खरी टीका ही नम्र आसता. ती सोद घेवपी आसता. कलेमुखार बागवल्याबगर, तिच्या पोटांत रिगल्याबगर तिच्या भितरल्या मनाचो सोद घेंवक मेळना. हे गजालीची खरे टीकेक जाणविकाय आसता. बरी साहित्यकृती ही टीकेक सदांच आव्हान आसता. साहित्यीक टीका, मागीर ती खंयचेय सुरुपायेची आसूं, अेकाद्र्या ग्रंथाची आसूं वा साहित्य इतिहासात्मक आसूं - तो सरयेवेलो नाच आसता. टीकाकारान आपणालो तोल इल्लोय हालपाक दिवपाक जांयना. ना जाल्यार ताची टीका सारखी जांवचीना.

<u>आदारावळ</u> :


1. Abrams M. H. — A Glossary of literary terms (6th edition) Prism Book Pvt. Ltd. & Harcourt Brace & Company U.S.A. 1993

2. Hudson William Henry — An Introduction to the study of literature. Radha Publishing House, Calcutta.

3. Hawthorn Jeremy — Studing the novel — An Introduction. Universal Book Stall, New Delhi. 1985.

4. Richards I.A. — Principles of literary criticism. Universal Book Stall, 5 Ansari Road, New Delhi. 1991.

5. Scott James R.A. — The making of literature Allied Publishers Private limited, 13/14 Asaf Ali Road, New Delhi. 1963.

6. Malcolm Hicks & Bill Hutchings — Literary criticism. Universal Book Stall, 5 Ansari Road, New Delhi. 1991.

7. Forster E. M. — Aspects of the Novel

८. कुलकर्णी वा. ल. – साहित्य आणि समीक्षा पॉप्युलर प्रकाशन, मुंबई. १९६३.

९. कालेलकार ना. गो – भाषा आणि साहित्य
मौज प्रकाशन, मुंबई.

१०. गाडगीळ स. रा. – काव्यशास्त्रप्रदीप

११. जोशी रा. भी. – साहित्य संवाद
इनामदार बन्धु प्रकाशन, पुणें - २, १९६१.

१२. देशपांडे माधव काशिनाथ –साहित्य साधना
कॉन्टिनेंटल प्रकाशन, पुणें - २, १९६१.

१३. नेमाडे भालचंद्र – साहित्याची भाषा.

१४. पाटणकर रा. भा. – सौंदर्यमीमांसा
कॉंटिनेंटल प्रकाशन, पुणें, दुसरी आवृत्ती. १९८१.

१५. नायक पुंडलीक – रंगपाट
अपुरबाय प्रकाशन, वळवय - फोंडें - गोंय.

१६. तडकोड सु. म. – साहित्य समिक्षण : तत्व आनी प्रयोग

१७. वाळिंबे रा. शं. – साहित्यातील संप्रदाय,
कॉंटिनेंटल प्रकाशन, पुणे, तिसरी आवृत्ती १८७४.

१८. सरदेसाय मनोहरराय – साहित्यसुवाद
राजहंस वितरण, पणजे - गोंय.

१९. सरदेसाय मनोहरराय – साहित्य म्हळ्यार कितें?
'सुनापरान्त' दिवाळी अंक १९९१.

२०. प्रा. डॉ. सुधीर – साहित्य समीक्षा प्रदीप
मेहता पब्लिशींग हाऊस, पुणे.

२१. क्षीरसागर श्री. के. – टीकाविवेक
पॉप्युलर प्रकाशन, पुणे, तिसरी आवृत्ती. १९७४.

२२. ढवळे वि. ना. – साहित्याचे तत्वज्ञान
कॉन्टिनेन्टल प्रकाशन, पुणे - १९८४.

****

.....साहित्यांत बरोवप्याचें पडबिंब दिश्टी पडटा. जिवितांत बरोवप्याक जे बरे - वायट, तरेकवार, ल्हान - व्हड अणभव आयिल्ले आसतात ताच्याच नाडयार साहित्याचो जल्म जाता. हे अणभव वेगवेगळयां मार्गानीं मेळोंव येतात. बरोवपी आपणाले अणभव खासा आपणाल्या जिवितांतल्यांन मेळोंवक शकता वा कल्पना करून तो ते दोळयांमुखार उबे करूंक शकता. अणभव खंयच्याय मार्गान मेळयल्लो आसूं, ताचे भीतर उत्कटतायेचो गुण आसप गरजेचें. जडावल्ल्या, थंड आनी निर्जीव अणभवांचो साहित्याखातीर कांयच उपेग जांयना. चुलीवेल्या आदनाची वाफ जशी भायर येवपाखातीर धडपड्टा, तेचभशेन उत्कटतायेन भरिल्लो अणभव हो प्रगट जावपाखातीर जळमळपाक जाय. उत्कटतायेन भरिल्ल्या अणभवांबगर साहित्य चैतन्यान रसरसनां. बरोवप्याचो अणभव जितलो खर, तितलेंच ताचें बरप चड बरें जाता. पूण त्या अणभवांचें गुपीत बरोवप्याक खबर आसचें पडटा. ना जाल्यार कितलेय अणभव बरोवप्याच्या गाठीक आसून फुकटूच....

Printed at Samrat Printers, Banastarim - Goa. Ph. 287755